# बडबडो कांसव

सुमित्रा तांबा



# बडबडो कांसव

सुमित्रा तांबा



# बडबडो कांसव


फोंडवें, रायबंदर - 403 006

प्रकाशन क्रमांक : 135

1996

**प्रकाशक** : प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वितरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

**छपाई** : राजहंस ऑफसेट, पणजी.

**मुखपृष्ठ आनी सजावट** : दीपक पेडणेकार

**मोल** :
1996 --- 12 रुपया
1997 --- 14 रुपया
1998 --- 17 रुपया

ISBN 81-85854-24-6

# बडबडो कांसव

कांय वर्सां पयलीं एक राजा राज्य करतालो. ताका खूब उलोवंक जाय आशिल्लें. तो कोणायकडेन उलोवंक बसल्यार ताजें उलोवप खंय पावता तें ताकाच खबर उरनाशिल्लें. उलयतां उलयतां तागेल्यो खबरो हनुमानाचो शेंपडेभाशेन वाडत वताल्यो. तो आपल्या मंत्र्यांक कसलेय अर्थ नाशिल्ले प्रस्न विचारतालो. जेन्ना जाप मेळनाशिल्ली तेन्ना आपल्या मंत्र्यांक कसल्योय काणयो सांगतालो जातूंत तांकां रस नासतालो. जेन्ना तो उलयतालो, तेन्ना कोणूच ताका थारावंक शकनाशिल्लो.

त्या राजाचो प्रधान खूब हुशार आशिल्लो आनी तो राजाची अर्थ नाशिल्ल्यो खबरो सांगपाची प्रथा बंद करूंक सोदतालो. पूण तोंड उगडपाचो धीर जायनाशिल्लो कारण, राजा नाखुश जावन आपल्याक ख्यास्त फर्मायत म्हणून तो भिंयेतालो. देखून तो कसलीय संद मेळटा काय म्हणून पळेतोलो.

कर्मधर्मसंयोगान एक दीस ताका योग्य संद मेळ्ळी. राजा बडबडत आशिल्लो. आनी जोमेरेन ताजो ताळो बसलोना तेमेरेन ताजी बडबड बंद जालिना. निमाणो ताजो आवाज बंद जालो. देखून ताणें प्रधानांक सांगलें, कसलीय काणी सांग.

कुड्ड्याक दोन दोळे जायच आशिल्ले. धूर्त प्रधान एकदम तयार जालो आनी ताणें राजाक ही काणी सांगली.

एक फावट हिमालयाचे एके न्हंयेंत एक बडबडो कांसव रावतालो. ताजे शेजारी ताज्या बडबडाक विटिल्ले. गजाल इतल्या थरामेरेन गेल्ली कि ते ताका पळेल्यारूच रस्तो बदलताले.

कांसव एकलोच उरलो. तो उलोंवक सोदतालों, पूण ताजेकडेन खबरो करपी कोण नाशिल्लो. खूब दिसांनी थंयच्या मानसरोवरांतलीं दोन बकीं देवलीं. कांसवाक दिसलें तीं परकी; उलोवंक कसलीच हरकत ना. देखून तो तांचे म्हन्यांत गेलो आनी एक खबरांचें पुराण लायलें. "तुमी खयच्या देशांतल्यान आयल्यांत? तुमचें नांव कितें? तुमी कितें करतात? कितले दीस रावतलीं ?" जापेची अपेक्षा बाळगिनासतनाच तो फटाफट प्रस्न विचारीत गेलो.

बक्यांक मातशें अजापशें दिसलें. बकीं थोडोच काळ थंय रावंक आयिल्लीं. देखून तांकां कांसवाच्या असल्या

बडबडाची संवय जावंक नाशिल्ली, म्हणून तांणीं ताज्या प्रस्नांच्यो जापो फटाफट दिल्यो आनी ताज्यो खबरो आयकत रावलीं.

जेन्ना कांसवाक कळळें बकी दोन-चार दिसांनी परत मानसरोवरांत वतली तेन्ना खूब वायट दिसलें. परतून ताज्या मनांत एक विचार आयलो, आनी ताणें बक्यांक सांगले, "हांव हे न्हंयच्या शेजाऱ्यांक सामको उबगलां. तुमी म्हाका तुमचेवांगडा मानसरोवरांत व्हरशात?"

बरे भाशेन, कसलीच हरकत ना" ताजे सुचोवणेक बक्यांनी मान्यताय दिली.

कांसवाक आपले वांगडा कशीं व्हरतलीं तें तीं येवजूंक लागलीं. ताका तांचेभाशेन उडूंक येनाशिल्लें. इतल्यान तांकां एक युक्त सुचली.

तांणी लांकडाचो एक लांबसो दांडो सोदून हाडलो. त्या दांड्याचें एक एक तोंक दोगांयनी आपआपल्या तोंडांत धरलें, आनी कांसवाक दांड्याचो मदलो भाग दांतांनी घट धरपाक लायलो. बकीं उडपाक लागलीं. तीं मातशीं फुडें मात गेलीं, कांय कावळ्यांनी हो सुंदर देखाव पळेलो आनी ते आड्डुपाक लागले. 'आरे पळयात रे, काय बरी मजेची गजाल. आरे पळेयात तरी कितली मज्जा येता ती."

थंय कांय पोपट आशिल्ले. तांकांय तें पळोवन मातशें

अजापशें दिसलें. आनी कावळ्यांभाशेन तेय आड्डुपाक लागले पळेयात रे पळेयात. काय बरी मजा.

कांसवाक ओगी रावन आयकुपाची संवय खंय आशिल्ली? ताजो सभावच पयलीं बडबडो. ताणें हें सांगपाक तोंड उगडिल्लें तातूंत कसलें अजाप आसा काय म्हणून? पूण ताणें तोंड उकतें केलेबरोबर ताज्या तोंडांतलो दांडो सुटलो आनी फट्ट करून कांसव दोंगरार शेंवटलो आनी तेचबरोबर ताजो प्राण गेलो.

जेन्ना काणी सांगून सोंपली तेन्ना राजान आपल्या प्रधानाक विचारलें  हे काणयेचें सार कितें ? तेन्ना ताणें सांगलें, कासवाचो जिबेचेर ताबो नाशिल्ल्या कारणान अशें जालें. कांसवाक खूब बडबडूंक जाय आशिल्लें आनी उलयतना खंय थारपाचें तें ताका कळनाशिल्लें. ताजो संवयचो हात तोंडांत गेलो जेन्ना कावळे ताका पळोवन उलयले, तेन्ना ताज्यान वगी रावपाक जालेंना, आनी तो सदचेभाशेन उलयलो आनी आपलो जीव वोगडायलो.''

ही जाप आयकून राजाचे दाळे उकते जाले. त्या दिसाच्यान ताणें जाय तितलोच आनी जाय तेन्नाच उलोवपाचो निश्चेव केलो आनी मरसर तो पाळ्ळो.



□

# निनोश्काची सवती आवय

रशियेंत एका दोंगराच्या मुळसांत एक ल्हानशेंच खेडें आशिल्लें. त्या खेड्यांत निनोश्का नांवाचें ल्हान भुरगें रावतालें. तें आपल्या सवतीआवय वांगडा रावतालें. ताजी सवतीआवय ताजो मोग करचेबदला ताचो दुस्वास करताली. आनी ताका घरांतलीं सगलीं जड कामां सांगताली.

सवती आवय निनोश्काक सामकें उणें खावपाक दिताली, आनी एकदांचें ताका घराभायर घालपाक संद पळयताली. दिसानदीस तिजो दुस्वास कोडू जायत वतालो, पूण तिजे सवती चलयेची सोबीतकाय मात वाडत वताली.



ते नातालांचे दीस आशिल्ले. ते दुश्ट बायलेन एक पाडी युक्त सोदून काडली. तिणें निनोश्काक आपोवन सांगलें, 'आमी फाल्यां फेस्ताचें जेवण करतलीं. तुवें त्या रानांत वचून सात फुलांचे तुरे हाडूंक जाय. आनी पळय एका तुऱ्याक इंद्रधनुष्याचो एक रंग आसूंक जाय. अशे सात तुऱ्यांक सात रंग आसूंक जाय.'' "पूण आवय, भायर थंड बर्फ पडटा आनी ह्या तेंपार फुलां फुलनात," चलयेन न्हयकार दाखयलो.

"कितें ? म्हजी आज्ञा मोडपाचें धाडस तुका कशें जालें ? पयलीं रानांत चल आनी थंयच कोले आनी लांडग्यांवांगडा राव फुलां मेळसर". निनोश्काक दाराभायर शिंयाच्या कुडकुड्यांत धुकलीत ती रागान आड्डली.

निनोश्का खूब दुखेस्त जालें. त्या येद्या व्हडल्या बर्फांत धांपिल्ल्या जाग्यार ताका फुलां खंय मेळटलीं आशिल्लीं ? ताजे दोळे दुखांनी भरले. तें रानावटेन चलूंक लागलें. तें जेन्ना रानांत पावलें तेन्ना काळोख जाल्लो, देखून तें मातशें भिंयेलें. ताणें दिमी मोडली आनी देवाक पांयां पडलें. "देवा म्हज्या, हांव एक ल्हान भुरगें. म्हाका नातालांक फुलां व्हरूंक जाय. तूं म्हाका मदत कर. तूं सगल्यांक आसा. म्हजो आवाज तुका आयकूंक येतलोच. म्हाका पाव सायबा." अशें म्हणून ताणें देवालागीं मागलें.

एकदम काळखांत, निनोश्काक एक जोत लुकलुकता



ती दिसली. तेबरोबर ताजो भंय गेलो आनी तें उजवाडाचे दिशेन वचपाक लागलें. चलतां चलतां तें एका ल्हानशाच घराकडेन पावलें. थंय चार मनीस शेकोटेक बशिल्ले. "तुमचे वांगडा हांवूय ह्या उज्याम्हन्यांत उबेक बसूं ?" ताणें सभ्यतायेन विचारलें. "बरेभाशेन भुरग्या. आमचे नातालांचे परबेंत तूंय वांटो घे" तांणी ताका सांगलें. निनोश्कान तांचे वांगडा केक आनी स्ट्रॉबॅरी पायस खालो आनी ताजी भूक भागली.

खऱ्यांनीच तें चलून, चलून खूब थकिल्लें आनी भुकेल्लें. ''चलये, आमकां सांग, तूं ह्या वेळार हांगा ह्या अरण्यांत कशी पावली ?" सगल्यांत जाणटो आशिल्ल्या तांच्या मुखेल्यान ताका विचारलें. त्या मनशाच्या रुपेरी केंसाचेर एक भांगरा मुकूट आशिल्लो, आनी ताजें धवें खाड ताज्या पांयांच्या बोटांमेरेन पाविल्लें.

निनोश्कान आपूण कित्याक आयिल्लें तें तांकां सांगलें.

जाणटेलो हांसलो आनी ताणें सांगलें, "हांव शिंयाळ्याचो राजा आनी हे तिगूय म्हजे भाव. भिंयेवं नाका भुरग्या. सगलें बरें जातलें," तो मागीर आपले म्हऱ्यांत बशिल्ल्या मनशावटेन घुंवलो. तो तरणो आनी सुंदर आशिल्लो आनी तांच्या तोंडाचेर हांशें फांकिल्लें. "यो भावा वसंत रुतू म्हजो जागो घे." आनी कितें चमत्कार ! शिंयाळ्याच्या जाग्यार वसंत रुतू आयलो. तशी निनोश्काक मातशी हूनसाण जाणवली. तरतरीत फांतोडेन जागो घेतलो. झाडांचेर पाचवींच पानां दिसूंक लागलीं. आनी सुकणीं खोशयेन गावंक लागली. तरेकतरा रंगांचीं आनी वासाचीं फुलां सगल्या वाठाराक फुललीं.



"तुजीं फुलां बेगीन काडून घे, धाकले परी", वसंत रुतून शिळोण्यो घालीत सांगलें.



निनोश्काक इंद्रधनुश्याच्या सात रंगांच्या फुलांचे तुरे एकठांय करपाक वेळ लागलोना. "देव बरें करूं. तुमी म्हाका मदत केली. नातालांची परब बरी वचूं", ताणें म्हळें आनी तांका सगल्यांक एक एक फूल दिलें. "तुकाय नातालांची परब बरी वचूं. देव तुजें बरें करूं." ताज्या हाताचो उमो घेत तांणी म्हळें. मागीर शिंयाळयाच्या राजान ताच्या भांगराच्या हरणाक, ताका ताजे गाडयेंत घरा पावपाक सांगलें.

परतून वसंत रुतूचो जागो शिंयाळयान घेतलो, आनी सगलो संवसार परतून थंडगार जालो. निनोश्का एके घटकेभितर घरा पावलें. कारण हरणाची गाडी बर्फाचेर बरी वेगान धांवताली.

ताजे सवतीआवयक ताका इतले बेगीन घरा आयिल्लें पळोवन, तेंय बी फुलांसकट, मातशें अजाप जालें.

"तुका हीं फुलां खंय मेळ्ळीं ?" तिणें विचारलें.

"रानांत." निनोश्काक सामक्या सादेपणान सांगलें. ते दुश्ट बायलेक दुसरी पाडी युक्त सुचसर न्हीद पडलीना. दुसरे दिसा सांजवेळा तिणे निनोश्काक कांय पिकी सफरचंदां हाडपाक लायलीं. "हें पळय याद धर. त्या फळाशिवाय परत येंव नाका" तिणें ताका धेंक दिलो.

"हे फावट चली अपेशी जातलें आनी रानांतली जनावरां ताका खातलीं" ती आपलेभितर बडबडली. निनोश्का परतून एकदां दुखेस्त जावन रानांत वचपाक भायर सरलें. तो जादुचो जागो सोदून काडीसर खूब काळोख जाल्लो. पयलींभशेन उज्या म्हऱ्यांत चारूय रुतू बशिल्ले.

"तुजे आवयक तीं फुलां पळोवन खोस जालिना ? तांणीं ताका विचारलें आनी जेवणांक आग्रो केलो.

"आतां तिका बरीं पिकी सफरचंदां जाय" निनोश्कान सांगलें. 'आनी म्हाका तीं घेनासतना येवनाका म्हुण सांगला.''

तांच्या राजान आपल्या एका भावावटेन ज्याचे दोळे निळे आशिल्ले आनी तोंड तुकतुकीत आशिल्ले ताका पळयत म्हळें, "म्हजे भावा गिमा, म्हजो जागो तूं घे." तसो गिमाळो उठलो आनी ताणें शिंयाळयाचो जागो घेतलो. अकस्मात सगल्याक हुनसाण आयली. झाडां भांगरा फळांनी भरलीं , आनी ल्हान जनावरां जळामळा भोंवक

लागलीं. निनोश्का जशें झाडालागीं गेलें तश्यो खानयो आपले आपूण बागवल्यो, ताका सफरचंदां काडूंक मेळची म्हूण. मागीर शिंयाळ्यान परतून आपलो जागो घेतलो आनी सगल्याक आशिल्लें तशें थंडगार जालें. भांगराच्या हरणान ताका आपले गाडयेन घरा पावयलें. ताणे दारार मारलें "आवय, हांव सफरचंदां घेवन आयलां."

ताच्या हातांत सफरचंदां पळोवन सवती आवयक खरेंच दिसना जालें. "ह्या थंडेच्या दिसांनी फुलां आनी फळां ? हांवूच रानांत वचून तीं एक करून हाडटां. जर ती ह्या भुरग्यांक मेळटात जाल्यार म्हाका किद्याक मेळचीनात? तिचे मनान तिका सांगलें.

दुसरेच दिसा, हातांत एक व्हडशेंच बास्केट घेवन तिणें रानाचो रस्तो धरलो. हेवटेन, तेवटेन, फुलां फळां दिसता काय म्हणून तिणे पळयलें. पूण काय मेळिंळना. इल्ली इल्ली करून जंय ते चार मनीस बशिल्ले थंय ती पावली. "कितें सोदता तूं बायल मनशे ? तूं रस्तो बी चुकल्या? ताणीं विचारलें.

''तुमी तुमचें काम करात. चोरानो हांगा रानांत लिपल्यात ?'' म्हणून तांचेर खेंकसली आनी फुडें वताली मात, शिंयाळ्याचो राजा तिका मातसो तेंकलो आनी कितें मजा ! ती एकदम बर्फाचो पुतळो जाली. ती तिच्या

काळजाबशेनूच थंडगार जावन थंयच उबी उरली. तिचो घरकार आनी निनोश्का तिका सोदीत, तिचे फुड्यांतल्यान गेल्यारपसून तांकां ती दिसलिना. फकत उज्याच्या दिसानी तिणे आपले जिवंत रूप घेतलें.



ती घरावटेन गेली. तिका कांय अंतराचेर पळोवन निनोश्कान धांवत येवन तिका वेंग मारली. अजापाची गजाल म्हळयार ताची सवती आवय मोगाळ आनी मायेस्त जाल्ली. आतां ती ताका त्रास दिना जाली.

निनोश्काक ते मनीस परतून केन्नाच दिसलेनात. तें देखीं त्या जाग्यार जायते फावटीं वचून आईल्लें. पूण जेन्ना रुतू बदलताले, निनोश्का आपल्या जनेलांतल्यान पळोवन, तांणी आपल्याचेर केल्ल्या उपकाराची जाणविकाय जावन, तांची याद काडटालें. तें आतां ह्या जंगलांतल्यान त्या जंगलांत भोंवता जातले. म्हाका तें विसरल्या जायत. पूण हांव ताका केन्ना विसरन ? ताचें मन ताका सांगतालें

□

# अरवळ गुफ्फा

इटली देशांत गुफ्फा नावांचो एक भुरगो आपले आवयवांगडा एका ल्हानशाच घरांत रावतालो. तो ल्हान आसतनाच ताजो बापूय भायर पडिल्लो. देखून ताका पोसपाचें काम आवयचेरूच पडिल्लें. गुफ्फा फकत आळशीच नाशिल्लो जाल्यार मातसो अरवळूय आशिल्लो.

एके दीस घरांत आशिल्लें सगलें धान्य सोंपलें देखून आवयन ताका म्हर्‍यांत आपोवन तिचेकडेन आशिल्लें एक चेपें दिलें आनी सांगलें, "गुफ्फा, हें चेपें व्हर आनी बाजारांत बर्‍या मोलाक वीक. पूण चड बडबडटा वा सामकोच मोनो आशिल्ल्याकडेन वेव्हार करूं नाका." आवयचे सांगणेवयल्यान गुफ्फा तें चेपें घेवन बाजारांत गेलो. रोखडीच ताका एक मनीस मेळ्ळो. "आवयस्स ! बरें चेपें मरें !" त्या मनशान बारीकसाणीन पळयत म्हळें, "म्हाका दिता तें ? हांव तुका बरे दुडू दितां." त्या मनशान म्हणिनाफुडें "ना हांव तुका विकिना तें. तूं चड उलयता" अशें म्हणत गुफ्फा चलत रावलो.

मागीर ताका एक मडवळ मेळ्ळो. ताणें ताका आपली वस्त दाखयली. "खर्‍यानीच सोबीत चेपें. कितले दुडू जाय तुका ?" ताणें विचारलें. "ना, ना. हें चेपें तुका फावोना. तूं खूब बडबडो मनीस." गुफ्फान जाप दिली आनी फुडें सरलो. बाजारांत भरिल्ले सगळे मनीस ताका

बडबडेच दिसले आनी तांकां चेपें विकपाक तो तयार जालो ना. हे तरेन हेवटेन तेवटेन भोंवन तो एके सुवातेर पावलो जंय एक फातराचो पुतळो आशिल्लो. ताज्या म्हऱ्यांत वचून ताणें ताका विचारलें, ''सायब, हें चेपें घेता?'' ताका जाप मेळ्ळिना. म्हजे आवयचे सांगणे वयल्यान हांव अजून पसून



हें चेपें विकूंक शकलोंना. जर तिजें सांगणे आयकत रावलों जाल्यार तें हांव विकुंकूच पावचोंना. निदान ह्या मनशाक तरी विकुंया. तो मोनो आसलो तरी जाता. अशें गुफ्फाच्या मनांत आयलें.

''हें चेपें सोबीत आसा, आनी ताजें मोल फकत धा रुप्याचीं नाणीं.'' ताणे म्हळें पूण ताज्या गिरायकान कांयच म्हळेंना. "निमाणो म्हाका एक उतर उलयनाशिल्लो मनीस मेळ्ळो. तूंच म्हजें योग्य ते गिरायक आनी तुका हांव तें विकतें दितां.'' गुफ्फान म्हळें आनी ते चेपें त्या पुतळ्याचे तकलेक घालून पयशे मागपाक हात फुडें केले, पूण घेणाऱ्याच्या तोंडार कसलोच हावभाव ना तें पळोवन ताणें

म्हळें 'तूं बरो ना दिसता. काय नजो. आतां पयशे दिवंक मेळ्ळेनात जाल्यार हांव फाल्यां येतां." आनी तो आपूण सर्गाक हात लायिल्लेभाशेन खुशालभरीत जावन घरा परतलो. ''चेप्याचे कितले दुडू मेळ्ळे रे ?'' आवयन विचारलें "आवय, तें गिरायक आज दुयेंत दिसतालें. हांव फाल्यां वचून पयशे हाडटां."

दुसऱ्या दिसा गुफ्फा परतून थंय गेलो. ताजें गिरायक त्याच जाग्यार आशिल्लें. पूण ताज्या माथ्यार चेपें नाशिल्लें. "आतां म्हाका तूं धा रुप्यांची नाणीं दिता ?" पूण पयलीं भाशेनच कांय जाप आयलिना. ताजें पयशे घेवपाचे यत्न फुकट गेले म्हणून ताका राग आयलो आनी तिडकीन ताणें दांडो उखलून त्या पुतळ्याच्या तोंडार मारलो. पुतळ्याची तकली सकयल पडली आनी तांतल्यान एक पोटली भायर सरली. गुफ्फान ती पोटली काडली आनी उसयली. आनी कांय रुप्यांचीं नाणीं वतांत चकचकूंक लागलीं.



धांवत तो घरा आयलो आनी एकाच दमांत ताणें आवयक सांगलें, "आवय, म्हाका हें मोल मेळ्ळें कारण

हावें तुजें आयकलेंना.''

ताजे आवयन ताका कांयच विचारलेंना. आनीक थोड्या दिसांपुरतें जायना, तिका आपलें आनी गुफ्फाचें पोट भरपाक सोंपें जाल्लें.

''पुता म्हज्या'' एक दीस तिणे म्हळें. ''सदांच हांगा थंय भोंवन पोट भरना. हांवें तुका एका चामाराकडेन काम पळयलां. फाल्यांच्यान तुका कामाक वचूंक जाय. पूण याद धर. कोणेंय सांगलें म्हणून तूं काम करूं नाका. तकली वापरून काम कर''.

दुसऱ्या दिसा सकाळफुडेंच गुफ्फा कामाक वचूंक भायर सरलो. चामारान ताका चामड्याचो कुडको दीत म्हळें, ''न्हंयचे देगेर वच आनी हो चामड्या कुडको बरो धूय. सारको धुयलोना जाल्यार तुका चाबकान बडयतलों''.

''आवय सांगता कोणेंय कितेंय सांगल्यार आयकप ना. पूण आवयच्या सांगण्यान कांयच जायना. देखून कोणेंय कितेंय सांगल्यार आयकप.'' अशें म्हणीत सबंद सकाळ गुफ्फान तें चामडें धुयलें. ''मार चुकोवपाक दावें सारकें धुयलां म्हणून कशें कळटलें? कोणाकय विचारल्यार बरें, तो येवजुपाक लागलो. इतल्यान ताका एक बोट दिसली. ''हांगा यो'' म्हणीत ताणें तिका हात दाखयलो. ''आमकां कोण तरी आकांतान आपयता ताजे म्हऱ्यांत वचून पळोवया.'' तांडेल्यान देगेकडेन बोट वळयत म्हळें.

जशी बोट गुफ्फाम्हऱ्यांत पावली, ताणें चामडें हालयत

ताका विचारलें ''सायबानू, हें सारकें धुयलां जाल्यार पळयात''.

''कितें ? इतलेंच विचारपाक तुवें आमकां हांगा आपयले ?'' आनी सकयल देंवून ताणे गुफ्फाक हातांतले बडयेन बडयलो.

''आतां देवा तांका बेगीन धांवूं दी अशें म्हण. कारण तुवें आमकां वेळ केलो तो आमकां भरून काडपाक जाय.'' अशें म्हणीत तांडेलान वयर चडून बोट सोडली. बावडो गुफ्फा तें चांमडें खांदार मारीत "देवा तांकां बेगीन धांवू दी" म्हणीत वचपाक लागलो. इतल्यान ताका एक पारधी आर्म घेवन कांय सोंशांचेर नेम धरून राविल्लो दिश्टी पडलो. "देवा तांकां बेगीन धांवूं दी'' गुफ्फान म्हळें. ते धाकले जीव भिंयेवन धांवत सुटले. ''मस्त्या भुरग्या, तुवें म्हजे कास वोंगडायलो'' अशें म्हणून पारध्यान ताज्या कानाक धरलो. "हांवें कितें म्हणूंक जाय आशिल्लें तर?'' "देवा तांकां मरण येवंदी अशें तुवें म्हणूंक जाय आशिल्लें'' पारध्यान ताका सांगलें.

गुफ्फा नवी म्हण म्हणीत फुडें गेलो. वाटेंत ताका दोग जाण झगडटना मेळ्ळे. ''देवा तांकां बेगीन मरण येवंदी'' गुफ्फाचीं ही उतरां आयकून ते दोगूय ताज्या आंगार आयले. "आमी तुका मेल्ले जाय? अशें म्हणत तांणी ताका खूब मारलो. "पूण हांवें कितें म्हळ्यार बरें?'' ताणें विचारलें, देवा तांकां वेगळे कर '', अशें म्हण.'' '' बरें आसा. देवा

तांकां वेगळे कर'' अशें म्हणीत तो फुडें गेलो. इतल्यान थंयच्यान एक निकतेंच लग्न जाल्लें जोडपें इगर्जेंतल्यान घरा वतालें. ''आमी आतांच लग्न जाल्यांत. आनी आमकां वेगळी जां म्हणटा?'' अशें म्हणून न्हवऱ्यान ताका बडयलो. ''तशें जाल्यार हांव कितें म्हणूं तें सांगात'' काकुळटेक येवन ताणें म्हळें. ''तुवें म्हणूंक जाय, देवा तांकां सुखी जावंदी आनी सदांच हांसूं दी.'' न्हवऱ्यालीं ही उतरां म्हणीत तो वचपाक लागलो. थंयच्यान एक अंत्ययात्रा वताली ''देवा तांकां सुखी जावंदी आनी हांसूं दी'' हीं उतरां आयकून तांतल्या एकल्याक आयलो राग आनी ताणें रागाभरशी ताजेर अशे तरेन मूठ मारली की तो घुंवळ येवन पडलो. जेन्ना ताणें आपले तोंड बंद दवरपाचें थारायलें, आनी तो चामाराच्या घरा गेलो. सबंद दीस वोगडावन तो एक चामड्या कुडको धुयला म्हणून ताच्या धनयानूय ताका खूब मारलो.

बावडो गुफ्फा मार खावन तिडकीन उठून आवयसरीं आयलो आनी घडिल्ली सगली खबर आवयक सांगली.

''हो मार, हो पेट सोंसून तुका आतां शाणेपण आयलां आसतलें'' ताजे आवयन ताका म्हळें. आनी खऱ्यांनीच त्या दिसाच्यान गुफ्फा शाणो जालो. ताज्यांत बरोच बदल जालो. तो पयलीचो अरवळ आनी आळशी भुरगो उरूंक नाशिल्लो; तो शाणो सुरतो जावन, आपली तकली वापरून काम करूंक शिकिल्लो. □